


# विवेकानन्दम

आनन्दन एन.एन.

पी.जी. कामत फौंडेशन
एरणाकुळम
2014



(Konkani) (कोंकणी)
**VIVEKANANDAM** **विवेकानन्दम**
Poems कवितासंग्रह

**Anandan N.N.** **आनन्दन एन.एन.**

First Edition पयली आवृत्ती
November 2014 नवेंबर 2014

Copyright © Author सर्व हक्क © लेखकाक

Published by
P.G. Kamath Foundation
'Puduma'
Parinamam Road
Kaloor, Ernakulam - 682 017
Tel: 9447730866
e-mail: pgkamat.foundation@gmail.com

प्रकाशक
पी.जी. कामत फौंडेशन
'पुदुमा'
परिणामम रोड, कलूर
एरणाकुळम - 682 017
www.pgkamathfoundation.com

Prtinted at
Amarakerala Industries
Ernakulam - 682 018
Ph: 0484-2355952

मुद्रण
अमरकेरळा इंडस्ट्रीस
एरणाकुळम - 682 018
Ph: 0484-2355952

Copies 500 प्रती 500

Price : ₹ 110 मोल : ₹ 110




हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'साहित्य प्रभा' येवजणेखाला छापलां

# समर्पण

"अस्त्यनेको/ गिरां मार्ग:"
हें महान तत्व जीवनांतल्यान,
म्हाका दाखोवन दिल्या,
कवितेचे कोंकणींत म्हाका,
हात धरनु चडयल्या,
आचार्य - अनेकभाषी,
कलावंत - बुधवंत,
गोपाळ कृष्ण
पद्मनाभ कामत माम,
म्हजो हो कवनांचो झोलो,
तुमचे मोगाळ उडगासाक

**।। केन्नाय तुमचो आनन्दु ।।**

**आनन्दन एन.एन.**

- चेराय गांवांत (केरळांत) जल्म
- आरक्कल सरकार 'हाई' स्कूळांत - पयलें स्थान
- केरळ विद्यापीठांत सून एम.ए. (मलयाळम) णवावें 'रांक'
- कलिकट विद्यापीठांत सून एम.फिल (तुलनात्मक साहित्य विमर्श) तीसरें 'रांक'
- आलपळे सनातन धर्म विद्याशालेंत प्राद्यापक
- 'नाक' वाटेन साहित्य-भास-संस्कृती विषयांत केले ते सेवेक मान्यताय
- भारत सरकाराचे संस्कृती विभाचो साहित्य विषयांत 'सीनियर फेलोषिप' विजेता
- साहित्य अकादेमीन तीन पुस्तकां छापलीं
- 'देशीयतयुडे कवी' (2010) ह्या मलयाळम पुस्तकाक

  'प्रा. एस. गुप्तन नायर साहित्य विमर्श पुरस्कार' (2013)
- मलयाळम-कोंकणी 'वैष्णव रत्न' विवर्तन पुरस्कार (2014)
- अनेक भास-साहित्य-संस्कृती-संस्थेंत सदस्य
- केरळ कर्नाटक गोंय राज्यांतले चार संस्थेंत जीवकाळ वांगडी
- साहित्य अकादेमी आनी भारतीय ज्ञानपीठ - दोनीचेय कोंकणी सलाहकार समितींत सदस्य उरलो
- सद्याक भास-साहित्य-संस्कृती विषयांत वाचप-संशोधन बरवप हांत वावर करीत आसा
- "Negation in Indian Languages" ह्या विषयांत शोधपत्र नवी दिल्लीचे काळिदास संस्कृत अकादेमी वतीन उजवाडाक आयलें

Dr. Ramdas M Pai
President & Chancellor




October 17, 2013

Prof.Anandan N.N.,
Centre of Cultural Studies & Research,
Gitanjali, 58/84 Merchants Road,
Ernakulam H.P.O.
Kochi 682 011 (Kerala)

Dear Prof.Anandan,

I am in receipt of your letter regarding publication of 'Vivekanandam' - a collection of Konkani poems. I am sure, the poems will enrich Konkani literature and be a source of inspiration to budding Konkani literates. This is a worthy cause for highlighting the richness of Konkani language and for kindling the interest of the readers in the poetic presentation of great thoughts. My congratulations to the promoters of this publication.

With kind regards,

Yours sincerely,

Dr.Ramdas M.Pai

MANIPAL
UNIVERSITY




manipal.edu, Madhav Nagar, Manipal 576104, Karnataka, India • Ph: 91 820 2570084
Fax: 91 820 2570062 • E-mail: ramdas.pai@manipal.edu • www.manipal.edu

# दोन उतरां

आलेप्पी एस.डी. कोळेजांत दीर्घ काळाची सेवा करून निवृत्त जालेल्या प्रोफ. आनन्दन एन.एन. हांणी बरयिल्लो दूसरो कवितासंग्रह आसा 'विवेकानन्दम'. राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविन्द पै, एम.वी. कामत, माता अमृतानंदमयी, स्वामी विवेकानन्द, रघुनाथ विष्णु पंडित इत्यादी अनेक महंतांगेली तुस्त करून तांकां आपली श्रद्धांजली भेटोवच्यो खूब कविता ह्या संग्रहांत तांणी रचिल्या.

तांचें पयलें कविता पुस्तक "आनन्दाचीं पदां" 1985 वर्सा उजवाडाक आयिल्लें आनी त्या उपरांत तीस वर्सांत तांणी आपली काव्यसेवा चालू दवरली पुण कवितेचें दुसरें पुस्तक आतांच भायर काडटात. तीन वेगवेगळीं अणकाराचीं पुस्तकां ह्या मदें तांणी कोंकणींत उजवाडायलीं आनी दुसरें एक पुस्तक मलयाळम भासेंत बरयलें. महाकवि वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन हांचें कवितेचें विशीं तांणी केल्लें अध्ययनाचें त्या पुस्तकाक साहित्य विमर्शक आनी पंडित आशिल्ले प्रोफ. गुप्तन नायर हांचें नांवार एक पुरस्काररूय फावो जालो.

स्वामी विवेकानन्दाल्या जल्माचें 150 वर्सां सोंपलीं तरी तांचे आदर्श आनी नवोत्थाना खातिरचें प्रयत्न आजून प्रसक्त आसा. देखून ह्या संग्रहाक तांणी 'विवेकानन्दम' म्हणून नांव दवरलें. आतां ही कृती भायर येताना वाचक लोकाक नदरे मुखार दवरुनच तांणी हाचें लेखन केलें.

हो संग्रह कोंकणी वाचक लोक स्वीकार करतले ही आमची आशा. आमी आशंसापूर्वक इतलेंच मागतात कि आनन्दन हांकां उज्वल भविष्य मेळो आनी मुक्त मनान कालानुसार आनीकय खूब गीतां आनी कविता बरोवंक देव दीर्घायु दीवो.

**- पी.जी. कामत फौंडेशन**

# विवेकानन्दम - एक अपरूप काव्य

प्रो. एन.एन. आनन्दन कोंकणी वाचप्यांक सुपरिचित. मूळ मलयाळ अध्यापक आसून फाटलें कितलेशें वर्स सावन ते कोंकणी खातीर वावुरताय केरळ कोंकणी अकादमीचो वावुरपी ह्या नत्यान म्हाका एन.एन. आनन्द होंचेंकडे चड वळख जाली.

'आनन्दाचीं पदां' हो एन.एन. आनन्दन हांगेलो पयलो कविता संग्रह केरळ कोंकणी अकादमीन 1985 वर्सा उजवाडाक हाडलो. ज्येष्ठ कवी पी.जी. कामत हांणी आपणाल्या विवेचनात्मक आनी समिक्षात्मक प्रस्तावनेतल्यान ह्या काव्याचे उजवाड घालो. काव्याची वळख दीत कामतमाम म्हण्टाः "भाशेक व्यापक प्रदेशांत चलौचे खातीर साहित्याकारांनी यज्ञ-भावनेन प्रयत्न करचो आसा आनन्दान ह्या विषयांत चिंतन केल्यां आनी ताजे फल ह्या कवनांत दिष्टी पडता." अशें एक व्यापक दृष्टी मुकार दवरून आनन्दन आजून काव्य रचन करीत आयला.

केरळ, गोंय, आनी कर्नाटक राज्यांतल्यान उजवाडाक येवपी म्हयनाळ्यांवेल्यान एन.एन.आनन्दाल्यो कवितां नेमान छापून येताय. केन्द्रीय साहित्य अकादमी खातीर दोळ्यांतलें किशीर-सुनिति कुमार चट्टरजी - राहुल सांकृत्यायन अशी तीन पुस्तकां तांणी कोंकणी भाशेंत अणकारल्यात. कोंकणी भाशेंत सावन कांय कथा तांणी मलयाळम भाशेंत विवर्तन केल्याय.

एन. एन. आनन्दन हांणी मलयाळम भाशे खातीरीय मोलादीक योगदान दिल्ला. मलयाळम भाशेंतूय तांणी कांय पुस्तकां रचल्याय. हालीच मलयाळम संशोधनात्माक पुस्तकां खातीरचें नामनेचें 'प्रो. गुप्तन नायर पुरस्कार' ताज्या 'देशीयतयुडे कवि' (2010) - ह्या पुस्तकाक लागून ताका फावो जाला.

‘विवेकानन्दम’ हो एन.एन. आनन्दन हांगेलो नवो काव्य संग्रह. कोंकणी, गोंय, केरळ, कविता, भारत, नामनेचे भारतीय, स्वामी विवेकानन्द, विश्वकवी टागूर, महात्मजी, विख्यात गणित शास्त्रज्ञ दामोदर धर्मानंद कोसंबी आदी म्हान पुरुश, भास, साहित्य, संस्कृती अश्या वेगवेगळीं विषयां घेवन ब-यों काव्यां हांतु आसपावल्याय. काव्यालंकार, वृत्त, छंद अश्या भाशा शास्त्र संबदिच्या कार्यांत प्रविणताय आसून आनन्दान आपणाल्या काव्यांक फावोशीं चंदाय घाल्या. हाका लागून हो काव्य संग्रह कोंकणी काव्य साहित्यांत अपरूपताय हाडता. हो कविता झोलो समस्त कोंकणी वाचप्यांक आवडतलो अशें आस्त बळगेता. एन.एन. आनन्दन हांगेल्या ह्या ‘विवेकानन्दम’ काव्य संग्रहाक हांव यश आवंडेता.

**आर.एस.भास्कर**
अध्यक्ष
21 वें आखिल भारतीय कोंकणी
साहित्य संमेळन

फोर्ट कोची,
तारीखः 15, फेब्रुवारी 2014

# महंतांची सांत

वेदकाल धरनु आमचे हे राज्यांत महान रिषी-मुनी मेधाशाली कर्मकुशल - ज्ञानी - संत - दार्शनिक - गणितज्ञ - वाक्‌विशारद - संगीतकार - साहित्यकार - नाट्यकार - कवी - अध्यापक अशी तरेकतराचे महान मनीश जल्माक आयले. आनी तांचे निमिती आमची महान संस्कृती वाडून आयली - 5000 वर्सां चलून गेले उप्रांत आजीय आमची संस्कृताय ह्या जगांत महान अशीच दिसता. चड जावन भारता भायर आसले महंत मनीश ह्या विशयांत वाचतात - सिखता - संशोधन करतात - पुस्तकां रचतात. ह्या दृष्टीन चोयताना आमचे ह्या राज्याक "महंतांची सांत" अशीच लेकचें उचीत दिसता-अनेक हजार अशे मनीश मनशांचेर बरवचें भारी असाध्य दिसता. देखत हांत थोडे जनांचेर आधारून बरयतां-विचार मांडतां. तांचे महत्वाची वाट धरूक लागतां - ह्या यतनाचें फळ हें कविता संग्रह.

ह्या कविता संग्रहाक अंग्रजी भासेन आशंसा-संदेश प्रसार केला विश्व विख्यात मणिपाल विश्वविद्यापीठाचे कुलपती डा. रामदास माधव पै हांणी. आनी तांचे सार्थक उत्रां खातीर हांव तांचे कडेन केन्नाय आभारी आसतलों.

केरळचे वरकवि आनी अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाचे मानाधीक अध्यक्ष श्री. आर. एस. भास्कर. हांणी ह्या कविता-झोल्याचो परिचय - आशंसा-बरयला. तांचे मोलादीक उत्रांचो हांव योग्य जावचे खातीर केन्नाय यत्न करीत उरतलों.

ह्या कविता संग्रहांचें प्रसाधन करूंक मुखार आयले श्री.आनंद गोपालकृष्ण कामत म्हजे शुभकांक्षी. तांचे बापूस-स्वर्गीय गोपालकृष्ण पद्‌मनाभ कामत

गुरूचे समान म्हाका वाट दाकयले खातीर ह्या कविता संग्रह हांवें समर्पिल्लो. महान कोंकणी कवि-लेखक पी.जी. कामत फौंडेशन केरळांत कोंकणी भास-साहित्य संस्कृती राखून मुखार व्हरचे खातीर महान योगदान दीवनु येता. ह्या संस्थे कडेन हांव भारी आभारी आसा कि तांणी ह्या कवनाचो संग्रह चन्दायेन उजवाडाक हाडचें तें महत्वाचें काम आपले हाथांत घेतलें.

आनी ह्या कविता संग्रहाक लागून मोलदीक सहकार दीले सर्वय महान मनशांकडेन हाव केन्नाच रिणेली उरतलों. कविते खातीर आमचे महान चिन्तक-रिषी-कवी जनान महत्वाची चिंता-आलोचना चलयली आसा. तांत एकले महान मनशांन बरयलीं उत्रां मनांत येतातः- "काव्यं यशासे - अर्थ कृते - शिवेतरक्षतये - सध्यः परनिरवृतये!" हांत एक ना एक लक्ष्याक हो कविता संग्रह उपयोगाक आयल्यार हांव कृतार्थ धन्य आसतलों.

**आनन्दन एन.एन.**

# मांडावळ

# 1. विवेकानन्दम

- 1 -

आसली भारत मातेंची हीच मांगणीः
"आमकां देवा महा मनीश एक पूत दी"
आनी ती प्रार्थना देवान तेन्ना आयकली!
आतां जाले बंग राज्यांत रवीचो उदय;
आवसून-बापसून ताका दीलें नांव - 'नरेन्द्र'
आनी तो जालो पूराय अर्थान नरेन्द्र!
आसलें आपणाले घरांत दुःख - दरिद्र;
आनी आयकलें ताणी जनांचें रण्णें सुमार;
आसा पेले तांत भूखी जनांची व्हडी बाली!
'आपणालें घर कशी चलवचें आतां?
आनी म्हजो हो गांव कशी राखचो आतां?'
आसले प्रश्न नरेनद्राचे मुखार सुमार!

- 2 -

आंता पावलो तो उचित गुरूचे मुखार;
आनन्द भोगलो ताका देखत गुरूक मुखार!
आनी अनुग्रह दीलो मात्थ्यार हाथ दवरूनः-
"आतां वाचलें हांवे तुजें मन पुराय श्रद्धा दिवन
आनी तूवें करचें तरी जावो पूराय जगाक बरें!
अनेक तळवळेतात तानेन भूखेन आतां मूरे;
अन्न तांकां दीवचीच भक्ती-साधना व्हडी रे!"

अनेक जनां कडेकडेतात एकेक रोग भोगून रे;
आनी तांकां सुखी करचीच आमची व्हडी भक्ति रे!
तशी आमी करूंक शक्तलीं सेवा तांची;
तीच रे माधव सेवा मानव - सेवा एकीची!"

- 3 -

आयकत ताजे मनाक मेळ्ळो भारी आश्वास;
आतां ताका गुरूंचे उत्रांचेर भारी विश्वास!
आतां मुक्त जालो घराचे भारांत सून नरेन्द्र!
सरलो भायर गुरूंचे पायीं पडून वीरेन्द्र;
आयकत महत्वाचीं उत्रां गुरूंची अती सरळ;
आतां तो नवो मनीश - 'स्वामी विवेकानन्द' - विरळ!

- 4 -

आपणालें घर ताका आतां पूराय जगत;
आनी भोवंडेक तो लागलो गांव-गांवांत!
आत्माचें दुःख आतां ताका हेरांचेच दुःख;
आतां आपण लागलो जगांचे-जीवाँचे मोचनांत!

- 5 -

भोवन भोवन गोंयांत गुरु तो आयलो;
आनी आयुरवेदाचो महान मनीश पावलो
आतां विवेकानन्द ताजो महान सोयरो;
आयकत जनां सुमार ताजें कीर्तन-गायन
आत्माची सेवा केली तांणी अती भक्तीन!

आनन्दाचीं पडतालीं दुःखां सड सड जावन
आपणाचीं जनां ती ताका तेन्ना थाकून!
तेन्ना स्वामी चलूंक लागलो सेमिनारींत;
आयलो 'राकोळ' नांवांचे ते बुकांचे घरांत!
आयकूंक-वाचूंक लागलो धर्म तांचो मनांत
आयले पूराय पाद्री जनां सेवा ताजी करूंक
'तुमी आतां हांगा पावले आमकां भारी खुशी करूंक'
आयकत तांची उत्रां विवेकानन्दाचें मन भरलें;
तांचे धर्माचो आत्माचो उजवाड आतां भरलो मनांत!

- 6 -

आतां आपणालें मन पूराय विसकळ करूंक लागलो;
जे जे गांवांत आपण पावलो तांचे सेवेक लागलो!
आतांय आसात अस्पृश्य जनां साभार!
आयकत जालें, ताजें मन भारी बेजार!
आसा हो गांव भूंयेवयलो स्वर्ग समान
देवा, जाला वायट, जनांचे एकेक हीन कामान!
आपण हांगा मेळ्ळो महान स्वामी जनांक;
आत्माचो संदेह सारलो मेळून महान ते जनांक!
आयकली तांणी कोचींत महान जनांची वाणी
आतां हाजे निमितान मेळ्ळी मनाक ताजे त्राणी!

- 7 -

आतां आपयलो ताका कुमारीचे देवीन
आयलो तेन्ना थंय पडूंक पायीं देवीचे

आत्माक करूंक पूराय स्वस्थ भला
आयली दृष्टींत तेन्ना, ताजे महान शिला!
आनन्दाचे जाले तीन ते रात्री-दिवस
आभारी ताणे केलो निर्णय मुखार महान
आज्ञा गुरूची पालन करचो होच धर्म
आतां सरलो आनन्दान रिषी अमेरिकाक
आपणायली भाषण - शैली ताणे अती मधुर
आयकत मोगाळ-सरळ उत्रां ताजीं सुमार
आतां जालीं अमेरिकाचीं जनां भारी कुशल
आसलें तांचें आनन्दाचें मन विशाल
आनी आयलो स्वामी विवेकानन्द परत!

- 8 -

आत्माचें केलें तेन्ना समरपण गुरूक
आतां जाली रामकृष्णाचीं आश्रमां सुमार
आत्माक करचीं पूराय जगांत कुशल
आनी तेन्ना जनांची सेवा करीत उरलो
आतां विवेकानन्द पूराय जगाचो गुरू जालो!

(स्वामी विवेकानन्दाचो 150 वो जनम दिवस पूराय जगांत मनयलो. भारतांत सरकारान 2010 जानेवरी 12 धरनु 2014 जानेवरी 12 मेरेन चार वर्सचो उत्सव मनयलो. समितीचे अध्यक्ष माननीय प्रधान मंत्रीजी उरले. उद्घाटनाचे वेळार भाषणांत पूराय जनांचो सहकार जाय अशीच आह्वान जालें. ताका मानून काव्य रूपाची ही पूजा करतां.)

# 2. महंतांची सांत

भारत म्हजे महंतांची एकी सांत
वैदीक रीषि पूराय ह्याच सांतांत पावले
धर्म रिषी पूराय ह्याच सांतांत पावले
महा दार्शनीक सर्वय ह्याच सांतांत मेळ्ळे
जगद्गुरू पुराय ह्याच सांतांत पावले
जगद् रक्षक सर्वय ह्याच सांतांत मेळ्ळे
महा मनीषी पूराय ह्याच सांतात पावले
महान कामेली सर्वय ह्याच सांतांत मेळ्ळे
धर्म रक्षक पूराय ह्याच सांतात पावले
आरण्य रिषी पूराय ह्याच सांसांत आयले
ह्याच भूंयेर मू पावले ते महान तत्वज्ञ
महान मनीश आयले ह्याच महान भूयेर
महान संस्कृतीक शिला ह्याच सांतांत मेळ्ळी
महत्वाची भास सर्वय जाली ह्याच सांतांत
ह्याच सांतांत जाली महत्वाची चिंता
महान उत्रां पूराय ह्याच सांतांत जालीं
ह्याच सांतांत मेळ्ळीं महान पुस्तकां सर्वय
महत्वाची सांत आतां भारत महान म्हजें
आनी भारत महान म्हजें महत्वाची सांत
पुण्य भूंय म्हजें भारत - तें महान भूंय भारत
स्वर्ग म्हजें भारत - तें संस्कृतायेचें मूळ

शास्त्र-पुराण जालें हें भारत महान म्हजें
विज्ञानाची सांत हें भारत महान म्हजें
कवि रवीचो गांव म्हजें हें महान सांत
महात्मांचें सांत म्हजें हें भारत
जागाक वाट दाकयता सांत हेंच म्हजे भारत
म्हजें हें भारत महंतांची एकी सांत
सत्या नादेल्ला ह्याच भारतांत जालो
महान राधाकृष्ण ह्याच भारतांत जालो
महान सी वी रामन ह्याच भारतांत जालो
महान जगदीश बसु ह्याच भारतां जालो
आयुरवेदाचें मूळ ह्याच सांतांत मेळ्ळें
पुराय ज्ञानांचें मूळ ह्याच सांतांत जालें
म्हजें मूळ ह्याच सांतांत - ह्या भारतांत

# 3. सिद्धार्थ

जल्मान तू मू राय
कर्मान महाराय
कपिलवास्तुक जालो
पुराय जगाक पावलो
पुराय नीत सिखलो
अनी पुराय जनांक मेळ्ळो
दु:ख साभार पळयलो
जनांचें दु:ख सारूक
वाट सोदून भोवलो
बायल ना चेरडूं ना
बन्धु ना बान्धव ना
सर्वय सोडून गेलो
रावळार ताका तेन्ना जालें
व्हड एक कारागार
सर्वय सोडून भायर सरलो
जनांचे मद्दें पावलो
साभार गांव भोवलो
गयेंत तेन्ना पावलो
रूखाचे सावळेंत बैसलो
ध्यानांत तेन्ना बुडलो
'जनांचे दु:खाक शमन कशी?'

वाट मनांत आयली
आतां सिद्धार्थ जालो!
जगाक गुरु पावलो
‘आठ वाटेन धर्म करचें
दुःख तेन्ना मोंडचें’
इतलो सरळ बुद्ध धर्म
जाल्यार अती विरळ!
ताजो धर्म नवनीत
गया आतां पुण्य तीर्थ
जल्मान एक राय कर्मान
जालो जगाचो राय
जनांची भास ताजी भास
जनांची उत्रां ताजीं उत्रां
पूराय जगांत पावलो
धर्मकीर्ती जालो
सिद्धार्थ आपण जालो
जनांक सिद्धार्थ केलीं

# 4. जगद्गुरु शंकर

शिवु आतां कैलासार
देवी आसा हांगा
उल्लो दीता म्हाका
हांव पावंतां थंगा
ताजो जल्म हांगा
महान राज्य केरळ
केलें ताणें तें सरळ
देवांची भास संस्कृत
ताजान मन सुसंस्कृत
वेद पूराय सीखलो
धर्म-नीती राखलो
ताची व्याख्या केली
ज्ञानपीठार पावलो
चारीय दिकार भोवलो
अद्वैत मताक जीखलो
स्थापन करूंक पावलो
पीढ़ांक निमित जालो
भारत एक तें जालें
केरळ ताजें भूंय
आपणान तें मू सोळ्ळें
आर्या ताजी आवय

तीकाच सोडून भोवलो
भारत पूराय धरलें
आपली आवय केलें
देखलीं जनां पावलीं
पायीं ताजे पडलीं
आयकिल्लीं जनां आयलीं
शिष्य ताजे जालीं
अधर्म दुराक केले
जगाचो गुरु जालो
जगाचो दीवो जालो
काळूख दूराक सरलो
इतलो महान पूत
दुष्टांक काळाचो जूत
ताजे पाय लागली भूंय
कालडी पुण्य भूंय
संस्कृतायेची भूंय
विद्यापीठाक ती भूंय

# 5. गुरुदेवाचो उडगास

1. रवी उदेलो वंगांत
म्हालगड्यांचे ते मोगांत
महंतांचे जगांत
कलावंतांचे ते कुळांत

2. भास ताका जीव
गीतार ताजो मोग
पात्रां ताजीं खूब
ताजान जाता लाभ

3. कलावंतांक तो गुरु
विद्यावंतांक तो देव
त्या रवीक नाव ठाकूर
गुरुदेव तशी ठाकूर

4. जगांत भरली कीर्ति
ताका ना मू आर्ति
महान उरलो रिषी
भासेंत ताजी कृषी

5. वंगांत ताजो जल्म
जाल्यार जगांत पूराय कर्म
पूराय जगांत भोवलो
जनांचे मनांत पावलो

6. साहित्य ताजें अनेक
घेतात भासो एकेक
सन्मान मेळ्ळो अनेक
कि कर्म ताजें अनेक

# 6. कोंकणी विजयं-१

वामन अवतार घेतलो
गर्वाक भंग करूंक
वामन गोंयांत आयलो
गर्व कोंकणीक हाडूंक
दिवचलेंत ताजो जल्म
सीता ताजी मांय
रघुनाथाचो पूत
मन ताजें सूत
जळत आसा वात
अशे जन कोण नात
सरस्पतीचो दास
विद्येचो ताजेर वास
भासो ताजे जीबेर
बरपां ताजे बोंटार
विज्ञान भरलें मनांत
ताजान जालो धनांत
फळ भरलो रूख
कशी मेळता सूख
शेणै अर्थान गुरु
सिखवण केली शुरू
पुस्तक ताका प्राण

मस्तक ताजें वयर
सरळ ताजें जीवन
सरळ ताजी भास
सरळ ताजी चाली
सरळ ताजी बरपां
जनां तांत सरतात
मन ताजें घरतात
सीखूंक ताजी तान
धरांत आसा रान
भोवंडी ताका खाण
शेणै आतां गुरू
शाळेंत नेम शुरू
सोडलें ताणें गोंय
पावलो मुंबै गांव
भोवलो सोधून काम
पाकांत मेळ्ळें काम
गुणाधिक्यान काम
रत्नां तकीत धाम
कामार केन्नाय उरलो
मानाक ऊणाव जालो
पाक सोडून गेलो
मुंबै नगरांत पावलो
बुधवंत केन्नाय आसलो

धनियांक प्रीती जाली
मान्य पदां मेळीं
दाम ताका जाय
जाल्यार मान ताका न्हड
म्हणून काम सोडता
हेर कामार चडता
इतिहासाचो राय
भास आपली जाय
तीजो पूर्व काल
तांत शेणैचो वास
पूराय काम सोडता
भासेचें काम धरता
वाचत तेन्ना राबता
ग्रन्थालयांत पावंता
‘नोट’ बरयत उरता
वरसां साभार चलता
भासेचें मूळ सोदता
तेच कामांत बुडता
भाषण सुमार दीता
पुस्तक साभार रचता
छापूंक जनांक सोधता
गोंयकार एकलो मेळता
भाषण पुस्तक जाता

काणी एकेक रचता
नाटक बरयत उरता
कविता ताका येता
साहित्य भांडार भरता
भासेचे नेम करता
भास ती मान्य जाता
ताजान तो धन्य जाता
वलावलिंत ताजे वास
भासेचेर ताजो ध्यास
गोंयकार पुण तो आसलो
मुंबयकार तेन्ना जालो
गोंयबाब जनांक मेळ्ळो
'कोंकणी विजयं' रचलो
कीर्तीक पात्र जालो

# 7. कोंकणी विजयं-२

“जयतु कोंकणी, जीवतु च”-
अशी म्हळ्ळो महान
सुनीतीचो सुपुत्रु
जालो वंगांत कुमार
ताजी तान भाशेर
वाचलो सीखलो सुमार
आपलो गुरु ठाकूर
आनी ताजो तो संगाती
घेतली अनेक उपाधी
सोधलें भाशेचें मूळ
भाशेचें शास्त्र ताका खेळ
“आपली भास महान;
जाल्यार हेरांची ल्हान!”
अशी जनांचें मन!!
पुण ‘सर्वय भासो मान्य’
उलटा विचार अन्य
ताजें मन तशी धन्य
आपली भास वंग
तीजें सुमार मू अंग

तेंच ताका मेळता
कोंकण भासेंत अंग
आपले भयणीक मेळता
आनंद मनांत भोगता
मान्य तीका करता
धन्य ती मू जाता
अकादमीक तो यजमान
भासेंचेर ताजो अभिमान
विश्व मानवाचें मन
ताजे गुरुदेवाचें मन
अशीच ताजें मनः
"फूलां अनेक फुलचीं"
अशीच ताणे लेकचें
पूराय जगाक लेकलें
आपलें घर म्हूण लेकलें
पुराय राज्यांत भोवलो
आपलें राज्य तशी देखलो
पूराय भास ताका दीसल्यो
आपली जावन तेन्ना देखल्यो
म्हळ्ळें: "कोंकणी विजयं"

तेन्ना कोंकणीक जालें जयं!
प्रह्ळाद सुनीतीचो पूत
भक्ती गांथलें तें सूत
संस्कृतीचें मूळ भास
तो जालो तीजो दास
ताका मेळ्ळें बळ
मनांत वाडलें फळ
महान मनीश कोण?
जाण्टे मनीश ऊणे!
कोंकणीक केली ताणे
केलो मू उडगास तीणे
ताजेर पुस्तक घेतलें
मन तीजें तेन्ना साजलें:-
"जयतु कोंकणी जीवतु च"
ताजीं उत्रां आमूल्य
ताजी भावना अतुल्य

# 8. अनन्त माधवीयं

आशिल्लो एक कालु
तेन्ना गांव भरनु चिकोलु
थंय जल्म घेतिल्लो माधवु
अंत पै चो तो जालो सुपुत्रु
अती धाष्टीक तो सीखूंक
ताजान मेळ्ळी ताका उपाधी लायक
"आपण आसूंक जाय जनांक
आरोग्य पालन आतां करूंक
अस्पताल जाय तें करूंक
आपणाक जाय तें सौख्य
तेंच मू जनांचें सौख्य"
अशी भावना ताजी
तशी सेवना ताजी
असूंक जीवन सुधार
करूंक जाय काम सुमार
कामाक जाय मू दाम
ताजे खातीर तेन्ना यत्न

तशी केली दामाची राशी
जनां जालीं ताजान खुशी
"मण पाला" एक कालाक आसलें
मणी पाल आतां तें मू जालें!
चेरडुबाळ साभार थंय पावलीं
सुमार तकनीकी आपणायलीं
ताजान जगांत नांव पावलीं
तेन्ना माधवाचें नांव जगांत भरलें
मणीपाल विश्वविख्यात जालें

# 9. राष्ट्रकवि मंजेश्वर गोविन्द पै

- 1 -

आसलो तो एकु कालु
कोंकणीक कष्टाचो कालु
तेन्ना जल्मलो पै गोविन्दु
कोंकणीक एकु, सुपुत्रु
माये मोगान तो मू वाडलो
आनी सीखूंक मुखार राबलो
कोंकणीक तेन्ना नासलो मानु
सरलो कन्नडांत देखूनु
केली साभार कविता
प्रास सोडून ती भंगार
नव कन्नड कवितेक तो बापूस
ताजे हाथांत भास कापूस
सीखलो तो सुमार भासो
वाचलो अनेक उत्रां आसो
केली रचना अनेक
साहित्य तें समस्ताश्ळेषक
कोंकणी भाषी अनेक
अन्य भासेंचे ते सेवक!
पुण मेळ्ळो ना बहुमानु
'राष्ट्रकवी' आदी उपादी मेळनु!

भासेचो मात्र न्हय तो प्रेमी
गांधी महात्माचो अनुगामी
जालो स्वतंत्रता-संग्रामी
गांधी वरीच राज्यप्रेमी

- 2 -

चोयाय आसा एक घर
चोवंचाक अती संकष्टकर!
श्रीमदनंन्तालें मंजेश्वर
तें साहित्याचें आगार
थांगा राबलो गोविन्दु
साहित्यादि कलेंत कोविदु
तें सांगता आयकात रडून
"गेलो मूगा म्हाका सोडून!"
जावंका संस्कृतीचो प्रेमू
भास तीजो आधार मू
कन्नडाक दीलें जीवन
गोविन्द पै मामान
ताजें साहित्यानुसंधान विना
कशी ताजें तें अनुस्मरण?

# 10. नारायणामृत

चिकलांत जाता कमळ
मन ताजें विमल
रूप ताजें कोमळ
गांव ताजो केरळ
रीति ताजी सरळ
समाजांत तो खालाक
सीखवण नासलो बालक
केन्नाय आसचो चालक
भासो ताजे बालाक
कैरळी ताजी आवय
बळ ताजें केन्नाय
तमीळ ताका दासी
जालो तो वनवासी
संस्कृत महान भास
संस्कृतायेची ती भास
ताणे आपणायली भास
तीजेर ताजो विश्वास
जनांचें मन व्हड रान
सुधारची ताजी तान
नवीची वाट करची
नवीची चाली करची

नवीची आशा दीवची
आश्वास जनांक दीवचो
गांवांत गांवांत भावलो
जनांचे कष्ट तो देखलो
'इष्ट दीवची कोण वाट?'
तीजे खातीर चिंतेंत बुडलो
ब्रह्म तत्व सीखलो
देश-विदेशाक भोवलो
नरांक उपदेश दीलो
नारायण तेन्ना जालोः
"नींद सोडूं उठरे
तोळे उकते कर रे
मन तूचें भर रे
चांगपण ताजान जावो रे"
मनशांत भीतर देव
जाल्यार आसा देवचार
देवाक देखूंक देवूळ
सुमार केलीं देवूळ
कर्मान जाता धर्म
धर्मान मेळता बळ
ना तुमी दुर्बळ
दुरबळ मन सोडात
बळ तुमी घेयात

वाचूंक-सीखूंक लागात
बळ ताजान घेयात
काम तुमी करात
ताजान मोक्ष घेयात
हांव एक ब्रह्मा
तूं एक ब्रह्मा
पूराय जगांत ब्रह्मा
जीवन ताजो संदेश
पावलो देश-विदेश
नारायण आतां गुरुदेव
जनांचो न्हड देव
तीन भासेंत काव्य
तीन वेळार वाचका
गुरु नारायणाचें काव्य
मनाकं बळ येवका
जाण्टे मनीश येतात
पायीं ताजे पडतात
गुरु ताका मानतात
शिष्य ताजे जातात
चिकलांतलें कमळ
ताजें कर्म सरळ
जगांत ते मू विरळ
गुरुदेव काव्य तें कोमळ

# 11. ही आमची कोंकणी भास

I

ही आमची कोंकणी भास
आमकां वाडोवंची आवसु,
ही आमची कोंकणी भास
आमकां एकटावंची भास
मेळें नीका मोचन
करात नीजें भजन
ही आमची कोंकणी भास
गांयचे जनांची भास
ही आमची कोंकणी भास
फरंग्यांनी मारलेली भास
ही आमची कोंकणी भास
कनरांतलीय भास
थंय एकेक विद्यास्थान
करतात नीजें भौमान
ही आमची कोंकणी भास
केरळचे कोंकण्यांली भास

- 2 -

केलो तांणी नीजो मान
तांकां नीजेर अभिमान

ही आमची कोंकणी भास
मुंबयचेय कोंकण्यांली भास
मेळ्ळो अकादमीचो अंगीकार
मारठांक न्हडु विचार
भरात तीजें पुस्तक भंडार
रचून साहित्य साभार
पावली ती आठवे वळरेंत
आतां जाऊं तीजो प्रवेश शाळेंत
मेळो तीका समग्र विकास
आमी पावचें मनोविकास
हाडया तीका भयण्यांचे मुखार
सोडया सर्व ऊणाव
ही आमची कोंकणी भास
आमचे संस्कृतायेचो आधार

# 12. एक मेळया

जावो गोंयकार - ना मुंबयकार
मंगळूरकार - ना कोचीकार
भारतांतले कोंकणे आमकां
एक मेळया कोंकणीचे खातीर
जाती-फांती-देश-विदेश
विसरया सर्वय भेद-विभेद
ब्राह्मण-गावडे, खारे-नायते
सरया हाथांक-हाथ धरून मुखार
दीवया तनु-मन-धन सर्वय
कोंकणीचे उदरगतीचे खातीर
पीवोवया कोंकणी मातेक लोकांतले
ल्हान-उदात्त साहित्याचें अमृत
पीवून ती पावो भारतांतले अन्य
भासेंचे पशी मुखार अमरत्व
रचुया चांगी कविता-काणी-आनी
भरया तीजें साहित्याचें भंडार
धरया ऊंच ऊंच तीजी संस्कृती
मोलदीक आनी अती पौराणीक.

# 13. क्षमा करी गे तूं

- 1 -

क्षमा करी गे तूं म्हजेरी म्हजे हे आवसू,
जल्मलो हांव तूजे कुशींत कोंकणी माते,
जाल्यार पीलो ना मू तूजें दूध गोविन्द!
तरी आसलें जाल्यारीय म्हाका मेळ्ळें ना तूजें स्तन्य!
आनी वाडलों तेन्ना कन्नड मातेचे होणटींतु
पोसलों हांव तीजें दूध पीवन समृद्ध
आतां दीसूंक लागली माया म्हाका तीजेरी!
तेन्ना नासलें समाजांत कोंकणीक मान्य स्थान
तशी तीका मेळ्ळें ना आध्यनक्रमांत एक स्थान!
केलो हांवें तीजे सुधाराचो परिश्रम - पुण
खयीं पावंता एक कुटको हींग समुद्रांत!

- 2 -

लागलों करूंक ऐतिहासीक संशोधन;
ब्राह्मणाचो धर्मु सत्यान्वेषण!
केली हांवें कोंकणीची सेवा थोडी
कवनां कोंकणी वचनां रचून न्हडी
आनी इतर भासेंत सून थोडें अणकारलें
तूजी पादसेवा एक पूताचो धर्म गे माते
आतां क्षमा करि गे म्हजेरी तूं आवसू!

- 3 -

आतां सांगतां तुमकां म्हजे सान भावंडांक
नज तुमी म्हजे हे वटेवयल्यान चलूंक
मेळो अकादमीचो अंगीकार कोंकणीक
आनी ताजान इनां-स्वीकार कोंकणी-कवींक
लागलें वाडूंक कोंकणी साहित्याचें भण्डार
जातलें तो कोंकणीचे कठीण शत्रूंक पागार
आयकत राबात कोंकणी, म्हजे हे भावांनू,
तूमी उलयत राबात कोंकणींत सर्वय व्यवहार
मुखार सीखत राबात कोंकणीची वीरगाथा
केन्नाय वाडयत राबात कोंकणीची संस्कृती ऊंचारी
नित्य भरीत राबात कोंकणीची होण्टी ती भारी
करीत राबात कोंकणीची सेवा-कर्तव्य आमचें
तशी पावंत राबात अमरत्व कोंकणीचें, आमचें!

(राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविन्द पैची विचारधारा आसली भावना ह्या कवनांतल्यान प्रकट जाता)

# 14. मन फूल कविता

ताळान येता कविता
रागान येता कविता
नांचून येता कविता
ती मोराचे रूपान कविता
धावन येता कविता
ती पोवन येता कविता
व्हळनु येता कविता
ती हिमालयांतसून येता
द्वैतांत आसा कविता
अद्वैतांतय आसा कविता
आशावादी कविता
जाल्यार निराशावादी कविता
बाळाचे खेळांत कविता
आनी कामीचे दोळ्यांत कविता
कामेल्याचे हूमेंत कविता
बीयांतल्यान कणसा वरीच कविता
कळ्यांतल्यान फूल जावची कविता
आनी फुलांतसून फळ जावचीय कविता
पान पिकून पडची कविता
जाल्यार पिकल्लें पान सुखून वचीय कविता
उदकांतल्यान मोड जावची कविता
मोडांतल्यान 'शिरी शिरी' कविता

आकाशाचेर उबता कविता
पाताळांत देवन वता मू ती कविता
मातियेंतल्यान रिषी येवची कविता
उत्रान बायलेक फातर करची कविता
फातरांतसून तीका परतून हाडची कविता
रावणाचे रूपान कविता
रामबाणांत कविता
वेणुगानांत कविता
गोवर्धन पर्वत उबारची कविता
रेवेंतलें तेल काडची कविता
तिळांत तेल समान कविता
अक्रमांत क्रम हाडची कविता
क्रम परतून अक्रम करची कविता
देव आसा म्हळ्ळी कविता
देव ना हळ्ळी कविता
गीतावचनांत कविता
बैबिळांत आसा कविता
खूर-आनांतय कविता
बुद्धाचे उत्रांत कविता
जैन-वाणी कविता
गुरु ग्रन्थांत कविता
प्ळेटोचे गुरूची कविता
ताजे शिष्याची कविता

चीन वाणींत कविता
वेद मंत्रांत कविता
शोध ग्रन्थांत कविता
मातियेक जीव-दिवपी कविता
जीवांक परतून मातियेंत हाडची
कविता
सप्त-स्वरांत कविता
भावनात्मक कविता
'हो आत्माच ब्रह्म'
हिवय कविता
'आमकां बुधवंत करी'
ही प्रार्थना कविता
'आमकां अमरत्व दी'
ही अर्थना कविता
'ब्रह्माःसत्यं; जगत् मित्थ्या'
हें वचन कविता
गुरुवाणींत कविता
आनी विवेकवाणीत कविता
'आयलें तशें गायली' कविता
पुराय जगांत कविता.

# 15. गोंय ताजें मूळ

मूळ ताजें गोंय
नांव ताजें पोय
नांव पावले कूळ
ताका तो मू मूळ

गोंयांत ताजो जल्म
फोंडांत ताजें कूळ
जोडले ताणे हाथ
म्हाळसेचें सुप्रभात
भक्तीन केलें कीर्तन
शक्तीन ताजें गायन
देवीन केलें रक्षण
ताजान मेळें भक्षण

परकी मनीश पावले
फिरंगी नांव घरले
ताजें मन सुसंस्कृत
तांचें मन असंस्कृत
ताजें जालें वायट्
ताणी केलें नायाट!
मारचें तांचो धर्म
खावचें तांचें कर्म

धर्मार ताजी आस्त
धनार तांची आस्त

सामं-दान उत्रां
ताजीं दीलीं पत्रां
भोंकूंक लागले कूत्रे
काडूंक लागले घास
धन थंयच सोळ्ळें
धर्म राकूंक घरलें
फोंड ताणें सोळ्ळें
प्रवास तेन्ना केल्लें

प्रौढ़ ताजी उत्रां
जनांक तीं मू सत्रां
ताजेर तांचो विश्वास
ताजान तांकां आश्वास
शरण जनां पावलीं
बायल - दादले उरलीं
रक्षण ताणे केलीं
ताजे ओट्टु हाडलीं
शरण पावल्यो बायलो
आतां तीं ताजो बायलो
ब्राह्मण तांचो जालो
धर्म पालन केलो

वेणसुपोयचें कूळ
नांव पावलें कूळ
रायान दीलो स्थाय
रायाक ताजेर थाय
कुरपळे गांव पूराय
रायाचे नावान सराय
शेणै-नायक-किणी
परबू-कुणबी-तांणीं
आपणाचे गांवांत हाडलो
आश्रय तांकां दीलो

बायलो ताका तीन
चेरडुं ताका अनेक
निन्तं पूराय पाडलें
नारल सुमार पडले
गाद्दे कुणबी कसयले
बीं घालूक लागले
भात साभार जालें
वोयरी पूराय भरलें
प्रताप ताजो वाडलो
दान-धर्माक लागलो

पूतांत एकलो उरलो
चोराय करूंक लागलो

शल्यकारी जालो
भवंडांक द्रोह दीलो

देवाली ही खेळा
केन्नाय उडगास बाळा
कर्यात तुमी काळा!
काळाची ही खेळा!

कामेली थोडे उरले
घर चलूंक लागले
भारी काम तें केलें
भूती ताजान पावलें
तांत थोडे उरले
खाणांत मात बुडले
काम तांकां अन्य
जावंका तांकां स्तन्य
बापसूक तेन्ना विसरले
विषयांत मात बुडले
रोगांत तेन्ना पडले
गांवचे राय उरले
निशें पीवूंक लागले
भूंयेंक तांणी सोडली
भूंयेन तांकां सोडले
मन बेजार जालें

धैर्य सोडून गेलें
काम ऊणे जालें
खाण चड जालें
भात ऊणे जालें
चेरडूं चड जालें
मेळचें ऊणे जालें
चलचें चड जालें
माड्डे ऊणे जाले
नारल ऊणे जाले
पिळगीं शिंवडून गेलीं
मार-फाराक लागलीं
आन-भाव झगडलीं
भूंय सोडून गेलीं
गांवांत गांवांत पावलीं
रायांचें नांव सोडलें
नीच कामार पडलीं
कवीचो उडगास आयलों:
"विद्या व्हड धन;
आरोग्य महान धन"

गीता वचन आयकले
काम करूंक लागले
बुधवंत वांचून आयले
हीच आमची काणी

वेणसु पोयची काणी
आमचे कूळाची काणी
एक गोंयकाराची काणी
गोयां भायली वसणूक
केले जनांची काणी
राज्याक मेळी राणी
कोंकण रिषीची म्हण्णी

तांणी आयकली काणी
वेंकटपतीची काणी
ताजान जालो गुणी
केलें वेंकटपतीचें दर्शन
मन भरलें ताजान
घेतलें ताणे बावलें
लायक ताका दीसलें
हाडलें ताणे घराक
चेरडु-बाळांक खेळाक
पूजा-पाठाक लागले
बावलें देव जालें
बान्धलें तेन्ना देवूळ
बाळकृष्णाक म्हूण लेकलें
ह्या बाळाचे खेळ
जगांत भरले खेळ
एकेक रूपाचे खेळ

कवींक दीलो वेळ
काव्य तांचीं सुफळ
गायन करतात जनां
शुध्द करतात मनां
ताजे निमितान जालें
गांवांक नांव पावलें
महान मनशाक नमन
वेणसु पोयक नमन
देवूळ बांध्ल्याक नमन
म्हजे पिज्जाक नमन
बाळकृष्णाक नमन
गुरुवायूरप्पाक नमन
उडुपी कृष्णाक नमन
नारायणांक म्हजें नमन
नारायणीय काव्याक नमन
नारायण भट्टाक नमन
मध्वाचार्याक नमन
धर्म धरले जनांक नमन
म्हजे कुळाचें मूळाक नमन
केरळ वसणूक केले गोंयकाराक नमन
कोंकणीक राकून उरले जनांक नमन
फोंड सोडले जनांक नमन
महान जनांक नमन

# 16. पुण्य भूंय गोंय

पुण्य भूंय गोंय
गोंय म्हजें गोंय
पिजान सोव्ळेली भूंय
आजाक कळना गोंय
न्हय व्हळची भूंय
रूक भरले गोंय
म्हजी मोगाची भूंय
पणजेक जाय तें गोंय
आमचे स्वताची भूंय
फिरंग्यांनी जिखलें गोंय
कुळाराची ती भूंय
धर्माक राकलें गोंय
सुनापरांत ती भूंय
भंगार पिकचें गोंय
कोंकणीक मूळ भूंय
महान मनशांचें गोंय
शेतकारांची भूंय
भात पिकचें गोंय
कुळदेवांची भूंय
रत्नांची तें गोंय
ल्हान आसा भूंय





पुण महात्वाचें गोंय
मनाक घरता भूंय
वेणसुपोयचें गोंय
म्हाळशेन राखची भूंय
आमकां आवय गोंय
राम पावली भूंय
स्वतंत्रतायेचें गोंय
प्रवासी जनांक दिसता
स्वर्णसमान गोंय
महान ती कोंकण भूंय
तांत एक तें गोंय
गावड्यांची ती भूंय
ते कामार आसची गोंय
विवेकानंद पावली भूंय
ताका मान दीलें गोंय
कामांक आधार ती भूंय
मेक्ष दीवचें गोंय
उल्लो दीता भूंय
म्हाका मोगाचें गोंय
गोंय म्हजें गोंय
पुण्य भूंय गोंय

# 17. कोंकणीचो उल्लो

कोंकणीचो उल्लो हांवे आयकलो
आजेन सांगली काणी हांवे आयकली
आवयन म्हळ्ळीं गीतां हांवे आयकलीं:-
"उट रे कृष्णा वेळ जाला वासरांक सोडूक"
"यो रे बाळा चंपे कळ्या
गींत म्हणूंक-नींद सोड
दूध पीवंक दांत घास"
"कक्या तूं गोयांत गेलोलो वे?
म्हजे पूताचे बायलेक देखीली वे?"
"घोवाचें हाड-मास खाता छी! छी!"
"तवशें बेल्लाक लाय गो चेडुवा
तावळें घराक जा
म्हजी बायल जातली जाल्यार जागो चेडुवा
तावळें घराक जा!"
आजेन आयकली भास तीच कोंकणी
आजान दीली भास तीच मू कोंकणी
आवयन सीखयली भास ती मू कोंकणी
आवसून पिवयलें दूध तीच कोंकणी
अप्पान उलयली भास ती मू कोंकणी
घरांत आयकली भास तीच कोंकणी
नीदांत आयकतां भास ती मू कोंकणी

महंतांची भास तीच कोंकणी
जगांत भरली भास तीच कोंकणी
मान्य जाली भास तीच कोंकणी
अमूल्य बरपां भास ती मू कोंकणी
अनेक कवींची भास तीच कोंकणी
काणी भरली भास ती मू कोंकणी
अनेक ती जो भयण्यो
एकेक राज्यांत राण्यो
हाथां हाथ धरता
तशी मुखार सरता
अनेक वस्त्रां न्हेसली
अनेक रंगान साजली
अनेक रूपां धरली
मुखार आतां सरली
कोंकणीचो उल्लो हांवे आयकलो;
आवय भासेक सेवा हांव करतलो

# 18. रवि किरणां

रवि उदेलो गोंयांत
रवि वाडलो गोंयांत
रवि आयकलो काणी
आजेन सांगली ती काणी
रामायणांतली काणी
भारतांतलीय काणी
गुण कोणीय नेणी!
कवी जन्मलो तांतल्यान
आपली भूंय कवीक सारें
कवीक मूळ भुरगीं
कामेली कवीक संगाती
गावडे ताजे रिंणेली
बरयली तांचेर कविता
'उत्तर म्हजें गावड्यांचें!
रवि पुण्यांत सीखलो;
आनी कामार सरलो;
देशाचेर व्हड अभिमान
देश रक्षा जीवा समान!
पुण वाचप-बरपांत लागलो

‘फोटोग्रफीचेर’ जीखलो
चित्रां साभार घेतलीं!
तेन्ना मोहन मुखार पावलो;
ताजेर आकृष्ट जालो
ताजे मागल्यान भोवलो
ताजेर साभार बरयलो
सुटके झुझारी जालो
देशाचें मोचन मांगलो;
जेलांत तेन्ना पावलो!
“पुण्य भूंय आपली गोंय;
मोचन तीका मेळूंक जाय”
अशीच बोब मारली
कष्ट सुमार लाभले
भासेचेर तांचो मान
तीजें मोचन अभिमान
महात्माचे अनुगामी
सान-व्हड ते प्राणी
समान लेकची त्राणी
वाडयली ती एकी काणी
सानपणांत आपलें व्हडपण

तेन्ना ताजे मनांत सानपण
‘सत्य आपणाक चन्दाय’
चन्दाय आपणाक सत्य
सत्य घटी धरलें
चन्द तेंच दीसलें!
मोहनदासाचीं उत्रां
हरद्यांत आपणान धरलीं.
केलें खूब तपस
ताजान जाली कविता
सानपणाची कविता
व्हडपणाचीय कविता
बाळक्यांक ती कविता
बायलां खातीर कविता
कामेल्यांक ती कविता
महात्माक ती कविता
जगांत भरली कविता
नाचता आपली कविता
एक मोर समान ती कविता
गायता आपली कविता
आयले तशें ती कविता
छापली आपली कविता

गायली ताजी कविता
भासेचो आभिमान कविता
विद्यापीठांत कविता
जीव ताका कविता
जीवन ताजें कविता
कवन आपलें साभार
पावलें भासेंत सुमार
पावली भासेची कीर्ती
कवितेचो तो मूर्ती
गुरुजनांची मू प्रीती
राज्याची 'पद्म' कीर्ती
देशाचो ताका सन्मान
भासेचो तो अभीमान
देशाचो ताका अनुग्रह
भासेचो तो नवग्रह

# 19. कोंकणी गींत

कोंकणी गीतां म्हणून आयली - तूं
कोंकणी फूलां[1] तुण्टोवन आयली
गागरि - वाळे खिळ खिळेले
बळीं तुजीं थळ थळेलीं
तूजे ओंटा रंग देखत
म्हजे मनाक राग येता
हांव म्हाकाच विसरून वतां - तूजे
गीतांचे झरींत बुडून वतां
तुंबुरु[2] वाजूक तूं लागली
हांव तूका पळयत राबलों
नीळ मेघ श्याम आकाश
खाल तितलोच अगाध सागर
तूजो मोग अती विशाल
आकाश दिसता म्हाका विशाल
कोंकणी गीतां म्हणून आयली तूं
कोंकणी फूलां तुण्टोवन आयली

कोंकणी फूलां = केरळांत - मलयाळम भासेंत - म्हणचे तराचीं फूलां.
तुंबुरु = सरस्वती देवीचे हाथांत आसलें तंत्री वाद्य

# 20. कश्मीरांतसून एक पत्र

केरळांतले म्हजे भयणी, आयक
कश्मीरी भास आतां आठव्यांत पावली
ती आतां ‘कंपळसरी भास’ जाली गो!
हांगा आवसू-जनां सीखतात कश्मीरी भास
तेन्ना भुरग्यांक ती आयत जाता भास
केरळांतलीं आवसू-जनां तूमी, आयक
कोंकणी सीखचा लागचें लायक
कश्मीरांत आतां आसा सुमार बायल
कवी जनां आसात आतां सास वरसां फाट
कविता तांची हाथ बरपाची
आनी सोडून गेली ताजान बाय
साहित्य साभार नष्ट जालें गो!
भास तुमचे कोंकणींत गेलें
कि आवय भासेक सोडून तुमी
आपणायली हेर साभार बोली
मराठी-मलयाळम-पुरतुगेज
पावल्यो तुमचे घरांत मु गो!
गुरुजनान देवान आमकां
गौरवाचें वरदान दीलां:
“भास तुमची आवय
भूस भुसी खेल्यारीय जाय”

कश्मीरी आमी घटी धरली
तेन्ना कश्मीरी मू, गो मान्य जाली!
कश्मीरांतलीं बायल जनां
कळंक नासलें मुखार सरलीं
कैरळी भास श्रेष्ठ जाली
विद्यापीठांत मान्य जाली
पुरातन तुमची कोंकणी भास
तीजी आत्मार्थ सेवा तुमचो धर्म
तो तुमी करात-हीच आमची मांगणी।

(कश्मीरी भासेंत बरवपी सुमार बायल मनशांक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो देखत हांत एकली केरळचे आपणाले ते कोंकणी भयणीक पत्र पेटोवन भासेची सेवा करूंक मागता - ही भावना ह्या कवनांत प्रकट जाली)

# 21. धर्मानन्द दामोदरम्

पुण्य भूंय गोंय
तूजी, जल्म भूंय गोंय
'पुरतुजेजांची' गोंय
ती तूवें सोडली गोंय
धर्म तूका जाय
ताका वाचपा धर्म जाय
सीखपा धर्म जाय
तो ब्राह्मण धर्म जाय
आवय कोंकणी जाय
जाल्यार, साभार भासो जाय
ज्ञान तूका जाय
आनी, सत्य तूका जाय
विज्ञान तूवें धरलें
तेन्ना सीखूंक सुमार घेतलें
नवी चाली केली
तशी ज्ञान मार्गार चल्लो
बापसून धर्म दीलो
तुका ब्राह्मण धर्म दीलो
बुध्धाचो धर्म घेतलो
आनी सत्याचो धर्म घेतलो
देशाचेर मानी उरलो
पुण अमेरिकांत तो पावलो
सीखूंक तेन्ना लागलो

तशी, बुधवंत तो मू जालो
गुरूक अभिमान भरलो
तेन्ना देश प्रेमी उरलो
परतून राज्याक पावलो
आनी ज्ञानाचें मूळ तो घेतलो
गणित मूळावें शास्त्र
ताणे, तांत महत्व जोडलें
विद्यापीढ़ांत पावलो
थंयचो सखा सर्वांक जालो
संगाती जाण्ट्यांक उरलो
आश्रय विद्यांक जालो
सूर्याक आश्रय मानलो
ह्या विद्याक प्रसार केलो
सत्याक धरनु रावलो
आपण बापूय आचार्य आसलो
सुटके झुझांत बुडलो
आनी जेलांत तशी पावलो!
गाँधीचो शिष्य उरलो
आनी गुजराथांत तो पावलो
धर्म ताजो जीव आसून
विद्यापीठांत पावलो
आचार्य थंयचो जालो
राज्याक जीव दीलो
पूताक जीव मानलो



जाल्यार धर्माक वयर धरलो
बापूय सोडून गेलो
तेन्ना दार्शनीक तो मू जालो!
नाण्यांचो खोज केलो
आनी नवें शास्त्र एक सोदलें
भासेंत विद्वांष जालो
आनी साहित्य-तुलन केलें
संपत्ति-शास्त्रांत बुडलो
आनी पुरातत्वांत तो जिखलो
मान्य पदार पावलो
तेन्ना गोंयचो महान जालो
गणीत ताजी धात्री
तो मू थोड्यांक अती वादी!
मारक्स वादी म्हणून
ताका दूराक तांणी धाड्लो!
हेरांक तो मू जल्मी!!
ताका समझूंक शक्त कोण की?
व्हडांत व्हड उरलो
पूण तो सानांत सान दिसलो!
कोसम्बेचो हो धर्मानन्द
तो म्हाका दामोदर विवेकानन्द!

(गोंयचो महान शास्त्री - विश्वविख्यात गणितज्ञ - दामोदर धर्मानन्द कोसम्बे - हांचे उडगासाक)

# 22. विट्ठळाचो माधव

माधवाक जल्मु उडुपांत
मध्वाचार्याचें ते गावांत
वाचूंक बरवूक तो लागलो
व्हड उपधीक पावलो
अंग्रजी ताका सरळ
अशीं जनां बहु विरळ
बरपाची शैली सुगम्
जनांचे मनांत सुगम्
आतां जालो न्हड बरवपी
ताजान जालो नांव घेवपी
मुंबय तेन्ना ताजो वास
मान्य पादांचेर जालो ध्यास
जगांत आपली कीर्ती पावली
अमरिकांत ताजी नेमणूक
जगांत जगांत ताजी कीर्ती
पुण मनांत भक्ती भरली
शिरदी बाबाचो व्हड भक्त
बाबांचेर पुस्तक महान रचलो
भारत आपणाचें महान दीसलें
गुणगान भारती सुमार ताणीं केलीं
पुस्तक वाचत बरयत उरलो

मान्य पदाक फाव जालो
उच्च पदार ताजी नेमणूक
‘पद्म’ भौमान सयत उपाधी अनेक
मंगळ कामांत केन्नाय मन दितालो
मंगळ विद्यापीठाचो ताका ‘डाक्टर’ केलो
ताजेर म्हजो आतां न्हड भोवमान
ताजीं बरपां कोंकणींत करचो अभिमान
अंग्रजींत बरपां ताजीं उरलीं
आनी तीं हेर भासांक दीलीं
जाल्यार तांत म्हजी भक्ती
विट्ठळ-माधव म्हजी केन्नाय शक्ती
माधव आतां विट्ठळाचे जगांत
मन ताजें केन्नाय मोगांत

# 23. पुण्य भूंय भारत

हिमालयाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
शंकरदेवाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
कन्याकुमारीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
सोमदेवाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
मुंबादेवीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
रामनाथाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
विश्वनाथाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
रामकृष्णाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
विवेकानन्दाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत

गुरुदेवाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
बालगंगाधराचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
सायिबाबाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
जगद्गुरूचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
सरस्वतीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
वेंकटेशाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
स्वामि अय्याप्पाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
महादेवीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
आनन्दाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
मंगळादेवीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत

मिनाक्षीदेवीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
बुद्धदेवाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
वासुदेवाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
अरविन्दाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
महावीराचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
गुरु नारायणाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
कर्मचन्द्राचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
गुरु मध्वाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
वाल्मीकीचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
व्यासदेवाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत

वेदरिषींचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
भाष्यकारांचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
आनन्द वर्धनाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
भक्त मीराचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
तुळसीदासाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
सूरदासाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
कबीरदासाचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
अनेक संतांचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
अनेक तीर्थांचे निमितान
पुण्य भूंय भारत
अनेक कवींचे निमितान
पुण्य भूंय भारत

# 24. 'बाग' आनी 'मोबैल'

- 1 -

आजेन म्हजे भजन केलें;
आनी तें हांवें आयकलें:-
"जय जय विट्ठळा पांडुरंगा
जय हरि विट्ठळा पांडुरंगा
पंडरिनाथा पांडुरंगा
पुरन्दर विट्ठळा पांडुरंगा
पुण्डळीक वरदा पांडुरंगा
जय जय विट्ठळा पांडुरंगा
जय हरि विट्ठळा पांडुरंगा"

- 2 -

आतां पावलों तूजे मुखार
चार घण्टेक तूजे दर्शना खातीर
मुख दर्शन मात दीलें तूवें
नमन केलें तूजे पायीं हांवें
आतां तूजो अन्न प्रसाद मेळता
'क्यू'वार राबले भक्तांक मात देवा!

- 3 -

राबलों हांव आयकत 'क्यू'वार
तूजे म्हळ्ळे व्याजान जाल्यार
केलो असो निषेध जाग्यार:-

“महा निवेद्य जाले उप्रांत मात तुमी
प्रसाद पांडुरंगाचो जेवंक शक्तात!
हांत कोण बाग घेवन आयल्यात
तांकां ‘क्यू’वार जागो मू नासता!
हाथांत ‘मोबैल’ कोणाक उरलें;
तांचोय जागो भायर मू उरलो!”

- 4 -

तेन्ना देवूळांत तांचो प्रवेश ना जालो!
जाल्यार वाटेरूच तूवें चोरलें ‘बाग’
आतां म्हजे हाथांत खंय रे ‘बाग’?
आनी म्हजें ‘मोबैल’ तूंची आसलो!
आनन्दा, तूजी लीला हीच आसली;
आसा म्हजे हरद्यांत तूजी प्रतिमा;
आनी केन्नाय करतां हांव
तूजे विश्वासाची गरिमा!

(महाराष्ट्रांतलें विख्यात पंडरिपुरांतलें देवूळ. थंय वचून देवाक पांडुरंगाक देखची आसली आशा! जाल्यार जनांचो खीटाचे निमितान दर्शन मेळेंच ना! आतां भक्तांक ‘मुख दर्शन मात्र मेळतलें हें आयकत व्हड दुःख दिसलें.. थंय वचाक भायर सरतनाच म्हजें ‘बाग’ चोरनु गेलें! आनी तांत आसलें म्हजें ‘मोबैल’! तेन्ना पंडरिपुरांतलो पांडुरंग देव अर्थात - आनन्द म्हजें ‘मोबैल’ - ही भावना हांतल्यान प्रकट जाली).

# 25. ब्राह्मण कोण ? भाग-१

बारा वर्सांर मूंजी बांधल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
सन्ध्यावन्दन केलेले मात्रान
जालो वे ब्राह्मणु ?
केळ्या साली नाम केल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
गांधा मुद्राधारण केल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
गायत्री-मंत्रु जपिल्ले मात्रान
जालो वे ब्राह्मणु ?
दीघ-रुन्द कास काळ्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
तीनीय वेळार देवूळात गेल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
रामनाम उच्चारण केल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
देवस्थानांत कारभार केल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
खाड-बोड वाडोवन भोवल्यार
जालो वे ब्राह्मणु ?
आगोते पानार जेविल्ले मात्रान
जालो वे ब्राह्मणु ?

सद्येक - जेवणाक भोविल्ले मात्रान
जालो वे ब्राह्मणु?
"ब्राम्हणु हांव" - अशी सांगिल्ले मात्रान
जालो वे ब्राह्मणु?
सांगात म्हाका आतां तुमी, कोण तो ब्राह्मणु?
भगवंताले गीतावचन
आयकात तुमी श्रद्धेन :
"चातुर वरण्यम् मया सृष्टं
गुण-कर्म विभागशः"

# 26. ब्राह्मण कोण ? भाग-२

ब्राह्मण तो - ताका ब्रह्म विद्या कळता
ब्राह्मण तो - 'हांव ब्रह्मा' अशीच लेकता
ब्राह्मण तो - 'हो आत्माच ब्रह्मा' लेकता
ब्राह्मण तो - 'सर्वय ब्रह्मा' अशीच लेकता
ब्राह्मण तो - पूराय जगाक सूख मांगता
ब्राह्मण तो - पूराय जग आपणाचें घर मानता
ब्राह्मण तो - पूराय जगाक एकच घर लेकता
ब्राह्मण तो - 'अन्नच ब्रह्मा' अशी लेकता
ब्राह्मण तो - शब्दाक ब्रह्मा अशीच लेकता
ब्राह्मण तो - हो 'प्रज्ञानं ब्रह्म' म्हूण लेकता
ब्राह्मण तो - हो कर्म करचो तो ब्रह्मा अशी लेकता
ब्राह्मण तो - हो शुब्द कर्मान लाभ आशेता
ब्राह्मण तो - हो पूराय जीवांक ब्रह्मा मानता

# 27. भारत म्हजें महान

सिंधु गंगा व्हकचें
तें भारत म्हजें महान
हिमालयान राखचें
तें भारत म्हजे महान
गोदावरी कृष्णा कावेरी
तें भारत म्हजें महान
ब्रह्मपुत्रा निमितान
भारत म्हजें महान
रामाचे जल्मा निमितान
भारत म्हजें महान
रामकृष्णाचे जल्मा निमितान
भारत म्हजें महान
सिद्धार्थाचे निमितान
भारत म्हजें महान
महावीराचे निमितान
भारत म्हजें महान
विवेकानन्दाचे निमितान
भारत म्हजें महान
गुरु रवीचे निमितान
भारत म्हजें महान
कर्मचन्द्राचे निमितान

भारत म्हजें महान
जगद्गुरु शंकराचे निमितान
भारत म्हजें महान
गुरु रामानुजाचे निमितान
भारत म्हजें महान
मध्वगुरूंचे जल्म जालें
ह्या पुण्य भारतांत
गुरुनारायणाचें जल्म
ह्या पुण्य भारतांत
महान रिषिंचे निमितान
भारत म्हजें महान
सन्त कवींचे निमितान
भारत म्हजें महान
अनेक भासांचे निमितान
भारत म्हजें महान

# 28. गोश्रीपुरवासा

गोश्रीपुरवासा - देवा,
पाहि श्रीनिवासा
पाहि वेंकटेशा
पाहि श्रीशैलवासा
गोश्रीपुरवासा - देवा,
पांव तूं म्हाका देवा,
अत्भुत चरिता तूका
भजितात मू सर्वय जनां
कामितार्थ मेळता तांकां
गोश्रीपुरवासाक नमन
तूजे ते वासान जाता
गांवांत अभिवृद्धी
सर्वय जनांक तूजी भक्ती
तांका मेळता परितुष्टी
गोश्रीपुरवासा तूका नमन
तूजें नामस्मरण करतात
ताजान दु:ख विसरून वतात!
तूजे पायीं हांव पडतां
तूका शरण हांव पावंतां
अती मधुर तूजें चरित
वाजपी चरित सुचरित

भक्त जनांक रक्षा करची
देवा तूजी मनो वृत्ती
कोंकण रिषीन दिलो आदेश;
शिष्य गणांक तो सद्उद्देश्य
तूजें भजन जनां करतात
सप्तगिरीक तीं मू पावंतात
तूजें पुण्य दर्शन घेतात
पाप मुक्त ताजान जातात
"एड्डुकोण्डला" उल्लो दीतात"
"वेकटरमणा संकटहरणा"
"वेंकटेश्वरा"राख तू म्हाका
कोंकण देशाक तूजी भक्ती
कोंकण जनांक ताजान शक्ती
गोश्रीपुरांत तूजो वासु
अधर्म्यांक गळ्याक पासु
गोश्रीपुरवासा, देवा आतां
राख तूं म्हाका श्रीनिवासा

# 29. काव्यदेवी कन्याकुमारी

कन्याकुमारी देवी,
तूजे पायीं पडतां
तीनीय सागर येतात
तूजे पायीं पडतात
तूजो ऊलो आयकत
नरेन्द्र पायीं आयलो
ध्यानार तेन्ना बैसलो
विवेक मनांत भरलो
नांव ताजें बदल्लें
विवेकानंद तो जालो
पूराय जगांत भोवलो
पायीं पडचे जनांक
रक्षण तूं मू करता
कीर्ती जगांत पावंता
भारतवासी पूराय
भक्तीन पायीं येतात
सूर्य देव केन्नाय
न्हाण करनु येता
पायीं तूजे पडता
भीक तेन्ना मांगताः-
"पूराय जगाक देवी
रक्षण तूं मू करी"

मागिल्लें तांकां मेळता
परतून न्हावूंक बुडता
गांव तूजान वाडता
कुमारी तूं देवी
आमकां रक्षण करी
महान कवी येतात
काव्य साभार करतात
तुजे पायीं पडतात
जगाक चांग मागतात
पुण्य भूंय जालीं
कुमारी देवीन दीलीं
अपूर्व दर्शन घेतलीं
धन्य जनां आयलीं
नमन करीत उरलीं
कन्याकुमारी देवी!

# 30. कैलास दर्शन

"हर हर महादेव
भक्त जनाकं देव
भक्त पायीं येतात
कैलासाचें दर्शन
जीवन ताजान महान
ताळान तूजो नांच
ताजान जाता सांज
ताळान तूजो नांच
ताजान जालें फालें
जीवनाचो ताळ
तूजें नांव मू काळ
काळ महा काळ
जीवनाचो काळ
पूराय जाता ताळ
तूं मू सर्वांक काळ
कैलासाचेर वास
गळ्याक येता पास
तूका मेळूंक येतात
लयु तेन्ना पावंतात

कैलासचेर नांच
नांव तूजें नटराज
पूराय जगाक जाय
तूजो तो पडसाद
कैलासाचें दर्शन
तेच पुण्य दर्शन
मन ताजान शांत
"हर हर महादेव"
भक्त जनांक देव
भारताचो देव
हिमालयांत तूजो वास
हिमालयांत पावूंक
जाय मू सुमार कास
हिमालय तेन्ना आमका
भूंयचें सरग तें भक्तांक
महादेव राबचो गांव
येता देवा हांव
महादेवीक वास
तूजे कुशीक दास
गणेश तूजो पूत
गणांक पूराय नाथ





देव पूराय सरतात
तूजे पूताक करतात
तांचो तो मू नाथ
ताजें नाव मू स्कद
ताका पूराय भविष्य
तूमचें न्हाण केन्नाय
दिव्य सरोवर मनांत
दिष्टींत येता विशाल
अन्न पक्षींक कुशाल
तेन्ना मानसरोवर नांव
दिव्य तांत न्हाण
मन पूराय सुशान्त
"हर हर महादेव"
भक्तांक तूं मू देव
शक्ती तांकां दीता
"हर हर महादेव"
दुर्बळ जातात बळिष्ट
अशांत जातात शांत
असलो तूजो खेळ
तूं मू काळाक काळ
तूका नांव महाकाळ

काळ भैरवाक भजन
मोक्षाक तें मू साधन
कैलास दर्शन दुःसाध्य
मोक्ष ताजान सुसाध्य
आयकत येतात भक्त
देश-विदेशाक ते सक्त
कैलास म्हळ्ळें नांव
पुण्य दीवचें नांव
पाप सरचें नांव
परमात्माचें तें धाम
कैलास दर्शन मात्रान
दोळे दोनीय सुफळ
"हर हर महादेव"
मनाक-जीबेक पुण्यस्नान
मानसरोवर स्नान
आत्माक मोक्षाक भान!

# 31. सौपर्णिका तीरार

सौपर्णिका तीरार वासी
भक्तांक तूं दासी
ब्रह्माक तूं सरस्वती
विष्णूक जाली महालक्ष्मी
शिवाक आसा शक्ती
भक्तांक रक्षण करची
जगाक पूराय राखची
कर्मांक शक्ती दीवची
अनेक रूप घेवची
एकेक नांव धरची
अनेक स्थायार राबची
शिष्ट रक्षण करची
दुष्टांक मारूक येवची
राज्यांत पूराय उरची
काळीचें रूप घेवची
कूळांक पूराय राखची
विद्या रूपान येवची
सद्याक कला दीवची
संगीत तूजें स्तन

साहित्य हेर एक स्तन
कोल्लूर तूं मूकांबिका
कांचीक तूं कामाक्षी
काशींत पावली तेन्ना
जाली विशालाक्षी
मधुरा नगरांत जाली
तीच शक्ती मीनाक्षी
जगाक पूराय शक्ती
आदि परा शक्ती

# 32. गीतोपनिषद

भगवंताचें गीत
भाग्यवंताचें
भगवंताचें गीत
ते धर्माचें
भगवंताचें गीत
तें अर्थाचें
भगवंताचें गीत
तें कामाचें
भगवंताचें गीत
तें मोक्षाक
भगवंताचें गीत
तें अर्जुनाक
भगवंताचें गीत
तें नराक
भगवंताचें गीत
तें नारायणाचें
भगवंताचें गीत
तें शंकराक
भगवंताचें गीत
तें रामानुजाक
भगवंताचें गीत
तें मध्वाचार्याक
भगवंताचें गीत
तें संस्कृतांत

भगवंताचें गीत
तें पूराय भासेंक
भगवंताचें गीत
तें महाभारतांत
भगवंताचें गीत
तें विवेकानन्दाक
भगवंताचें गीत
तें अरविंद रिषीक
भगवंताचें गीत
तें बालगंगाधराक
भगवंताचें गीत
तें मोहन दासाक
भगवंताचें गीत
तें नित्यचैतन्याक
भगवंताचें गीत
तें जाण्टे मनशांक
भगवंताचें गीत
तें नेण्टे मनशांक
भगवंताचें गीत
तें जीवनाक
भगवंताचें गीत
तें रायाक
भगवंताचें गीत
तें भक्तांक
भगवंताचें गीत
तें ज्ञानवंतांक

भगवंताचें गीत
तें कर्मवंतांक
भगवंताचें गीत
तें म्हाका
भगवंताचें गीत
तें तुमकां
भगवंताचें गीत
तें सुखाक
भगवंताचें गीत
तें मनाक
भगवंताचें गीत
तें देहाक
भगवंताचें गीत
तें नित्याचें
भगवंताचें गीत
तें सर्वय जनांक
भगवंताचें गीत
तें सर्व्य काळाक
भगवंताचें गीत
तें सर्वय राज्याक
भगवंताचें गीत
तें सर्वय जातीक
भगवंताचें गीत
तें सर्वय मताक
भगवंताचें गीत
तेंच गीतोपनिषद

# 33. चन्दमामा

चन्दमामा आगा चन्दमामा
बाळांचे लागी खेळूंक म्हूण योगा
धावन धावन योगा मामा
चन्दमामा आमचे चन्दमामा
दूध जाल्यार अम्मा दीता
केळें तूका बप्पा दीता
मिठाय तूका हांव दीतां
कितेंय जाय तेंच दीतां
हस्थि जाय-घोडो जाय
बाबु जाय - बावलें जाय
कितेंय तूका खेळूंक जाय
तूका दीता कितेंय मांय
अम्मा मामा म्हजे मामा
मामा म्हजे चन्दमामा
धावन यो तूं चन्दमामा
खेळूंक यो तूं आमचे मामा
चन्दमामा चन्दमामा
योगा मामा चन्दमामा
खेळूंक यो गा चन्दमामा
धावन यो गा चन्दमामा

# 34. बाळाले दोळे

बाळा लागी हांव चल्लों
ताजे दोळ्यान जगाक चोयलों
ताजी चन्दाय म्हाका भोगली
आतां मेरेन दीसना इतली
फुलां हासतात म्हाका पळवन
परमळ भरता चारीय कडेन
फूलां-फूलांत भोंवर भोवंतात
म्होव तो पीवन उनमत्त जातात
वारें वत्ता म्हाका परसून
मळब दिसता नीळ रतन
रोम-रोमां राबतात फूलेवन
मनांत भरता नवें कवन
बाळाले दोळे थळ थळ
मन म्हजें ताजान सुफळ
अरे म्हजे मोगा बाळा
मागशीं सरता कसली खेळा
गीतां आयकत राबला थंयीं
तसलें कान आमकां खयीं?
बाळाचे लागीच चलत राबलों
दुःख पूराय विसरून गेलों!

# 35. भृत्याली मांगणी

अरे पूता रवी तूवें
मुखार पागरार बरव नयें
पुसून पुसून हाथ झरले
गाळे आयकून पूरो जालें
म्हजे मोगाळ राया तूवें
आनीक बाधा दीवूंक नयें
आतां मेरेन घासलें पुसलें
तूजे खेळ ते हांवें सगळे
आनी मुखार वायट करना
म्हजो सपूद म्हाकाच मारना
हांव तूजो दास राबतां
तूं म्हजीं उत्रां राखता
विना तूं मू खेळ खेळता
म्हजो लोकटो भूंयेर पडता
बापसून-रायान-सर्वय देखलें
आनी मुखार जावंचें कसलें?
आतां हांवें सांगचें कसलें
देवान दया केल्यार जालें
अरे म्हजे मोगाळ राया
म्हजें जीवन तूजे हाथांत
म्हजीं उत्रां पालन करी
म्हाका रक्षण तूंची करी

(विश्व विख्यात चित्रकार राजा रविवर्मा [1848-1906] हांचे चेरडूपणाक लागून जाले ते एकेक अनुभवांचो उडगास आयले तेन्ना ताजे भृत्यान आठयलें कसलें ही भावना हांतल्यान प्रकट जाता)

# 36. देवी, यो

काजला दोळे पवळ्यांचें वोंट
म्हजे दोळ्यांत वाजता घांट
आकाशावेर रागान ताळान
चलता नांचु नखेत्रांचो
चन्द्रकुमार आयला राजेश
चन्द्रायेन तीं पावलां दवरून
कामरूपी इन्द्रसमान
इतलेंच आयला तूजे लागी
आनी मुखार सरूक नाका
आसूंक नज लज्जा मोगी
भूंय ही रान-तूं ना म्हळ्यार
नन्दन-उपवन तूं आसा जाल्यार
पावं तूं म्हाका रती देवी,
आनी आमकां कामकेळी!
तूका हांवय, म्हाका तूंवयं,
नज आमचे जगांत कोणूंय!

# 37. तान

वचन तूजें श्रवणमधुर
मधुमधुर रसाधर
दोळे कमलदळ मनोहर
रूप तूजें ध्यान हांव कर
वचन तूजें श्रवणमधुर
मधुधुर रसाधर
दोळे भरी धरतां भान
हरदें म्हजें तुगेलें धान
कान भरी धरतां गान
मन करतां तुगेलें ध्यान
आज म्हाका तूं पांव
तुजो मू दासु आतां हांव
ओंट तूजें करतां पान
तशी वच्चो म्हजी ही तान
वचन तूजें श्रवणमधुर
मधुमधुर रसाधर

# 38. उमार खय्याम

दूध नाका-म्हाका तूप नाका
सूर विना कायीं तरी म्हका नाका
पेज नाका - म्हाका सीत नाका
तूजे दोळे विना सीता म्हाका कायिं नाका
केळें नाका म्हाका बळें नाका
तूजे ओंट विना कायीं तरी म्हाका नाका
एकि कुप्पि सूर, देव सुन्दरी
तुमचे मुखार दुःख सर्वय हांव विसरतां
देवलोकांत पावन हांव म्हाकाच विसरतां
दूध नाका-म्हाका तूप नाका
सूर विना कायीं तरी म्हाका नाका

# 39. कलिकालाचो खेळु

आचार्याचें उत्तरः-
"गुरूर ब्रह्मा, गुरूर विष्णुः
गुरूर देवो महेश्वरः
गुरुः साक्षात् परं ब्रह्मा
तस्मै श्री गुरवे नमः"
आतां वेळ-काळ परतलोः-
"दुडुर ब्रह्मा, दुडूर विष्णुः
दुडुर देवो महेश्वरः
दुडुः साक्षात् परं ब्रह्मा
तस्मै श्री दुडवे नमः"
अशीच जाली जनांची गति-
काम करूंक दुडु
जेवण करूंक दुडु
खाण खावूंक दुडु
सिखूंक-वाचूंक दुडु
पेपराक जाय दुडु
वखदाक दींवका दुडु
देवाक जाय दुडु
भट्टाक दींवक दुडु
ब्राह्मणाकय दुडु
भट्माराक जाय दुडु

भोवंचाक जाय दुडु
धावंचाकय दुडु
गाडीक दुडु
बोटीक दुडु
नीदूंक जाय मू दुडु
जागे जाल्यारीय जाय दुडु
उदकाक दीवंका दुडु
उजवाडाकय दी दुडु
काळखांत जाय दुडु
कातरूंक जाय मू दुडु
वस्त्राक जाय दुडु
अस्त्राकय दी दुडु
राबूंक दीवंका दुडु
बैसूंक जायीच दुडु
घासूंक दी दुडु
पुसूंक दीवंका मू दुडु
दांत घासूंक दुडु
वोट धूवूंकय जाय दुडु
अंगाडीकाराक दीवंका दुडु
गाडीकाराक जाय रे दुडु
डाक्टराक जाय मू दुडु
मास्टराकय जावंका दुडु
अमृत जाय जल्यार दी दुडु
विषाकय दीवंका दुडु

पोसूंक दीवंका दुडु
मारूंकय जाय दुडु
चीरूंक दीवंका दुडु
दवरूंक दीवंका दुडु
काडूक जायीच दुडु
उडोवंचाक दी दुडु
दावंडावंचाकय जाय दुडु
पिट्टो करूक जाय दुडु
आसल्यार जाय दुडु
नासल्यारीय दीवंका दुडु
कसल्याकय दीवंका दुडु
कोणाकय जाय मू दुडु
दुडुरे दुडु, दुडु रे दुडु
जगत्गुरु शंकरांचे हें उत्तर आसलें:-
"सर्वं ब्रह्म मयं"
आतां अभिनव गुरुराज सांगता:-
"सर्वं दुडुर मयं!"

# 40. एकी तीर्थयात्रा

(ओट्टन तुळ्ळल ह्या ताळान म्हणचें म्हूण लेकून रचना)

- 1 -

पण्डे पण्डे[1] एकु कोल्लो
जोगी मामा बेषु घल्लो
काविवस्त्रार खाड-बोड
दण्डु कमण्डलु धरली बड्डी[2]
दोनीय हाथांत रुद्राक्षाची
माळा ताणे गळ्याक धाली
"हे राम-राम राम-राम राम-राम राम"
मंत्र जपून भायर सरलो
"सोरगु सोधून भोवंतल्यानू
सोरगार आमी भायर सरतात मू"
आयकिलीं आयकिलीं लागी सरलीं
देखिल्लीं देखिल्लीं मणमणयलीं:-
"सांगता कोल्लो भायर सरलो
कोणाक गळ्याक पासु आयलो!"
मजर सुन्दर मन भीभर
सांगता संशय भरीत उत्तर:-
"हे राम-राम राम हे राम राम राम
राम राम राम हे राम राम राम"

मन्त्र जपून कोल्लो मामान
संत्रासान ते दोळे धांपून
कुंकड मांकड विन्दूर माजर
किरुकायळो सर्वय हाजर
सोरगार वचाक आशेन आयलीं
कोल्याचे मुखार भक्तीन राबलीं
"येयात-येयात-येयात वोगी
राबात सर्वय सोरग मारगी"
आयकिलीं आयकिलीं सोरगकांक्षी
जोगया मागशीं राबलीं पक्षी
कोल्याले वाटेन सर्वय गेलीं
सोरगार वचाक तीं भायर सरलीं
सन्ध्या स्नानाक सूर्य देवलो
अन्धकारु भूंयचेर भरलो
कोल्याचे मागल्यान देविल्यांचो
हरद्याचो मारु धाविल्याचो
कोल्लो मामाक तोम्डांत भीतर
आयलें उदक पोट भेत्तशी
"आयचें जेवण देवाचें कारुण्य
फायचीं कायरीं, कोण वैरी?,
लोकभिरामु जोगीन्द्रु रामु
म्हागेलीं जालां कोणयी नेण मू!"

- 2 -

गेलो कोल्लो रानांत भीतर
सर्वांक मेळोवन राति जातर
“देखली गुहा म्हाका हा हा
सोरगार वचाक आनीक ना गा”
“सोरगार वचाक मुखार सरात
आमकां वचाक सोरगार सारार”[3]
ताजे धिरतीन तांकां आयला
भयान भयान पोटांत पायलो[4]
“सोरगार वचाक कितेंय करचें
नन्तन विना पाप सरचें
अशीच लेखून तशीच वचून
कोल्या मागशीं जालीं भक्शीं[5]

- 3 -

मागीरची काणी सांगूक पणी[6]
भायर मूयेनी तांणी कोणीय!

---

टिप्पणी :

1 पण्डे पण्डे - साभार काळ फूडे (मलयाळम उत्तर पण्डु पण्ड)
2 बड्डी - दण्ड (मलयाळम उत्तर वडि) - सन्याशीन धरचो दण्डु
3 सारार - वेगान
4 पायलो - (मलयाळम उत्तर) आखांत
5 भक्शीं - आहार
6 पणी - (मलयाळम उत्तर) कष्ट

मलयाळम भासेंतले ‘ओट्टन तुळ्ळल’ नावांचे दृश्य कलेचे रूपान आविष्कार केला सानपणार आजेन सांगिल्ले काणियेचो

# 41. 'कम्मिट्टी' कृष्ण माम

आसलो एकलो आमचे गांवांत
कृष्ण माम हें नांव घेवन
पावसाक वताक गीमाक दवाक
पावंता माम तो 'कम्मिट्टी' करूंक
पावंता देवळांत रावळारांतुय
पावंता खण्डीत सर्वय दिकार
जनन जालें तो पावलो
मरण जालें तो पावलो
माम नाशल्यार तृप्ती येना
विद्यालयांत ना मद्यालयांत
सर्वय कडेन माम पावंता
जावो हैन्दव ना ते क्रैस्तव
माम लेकता ताजे भावच
शिष्ठ जावो दुष्ट जावो
माम लेकता एकच मनान
मंत्री येता तंत्रि वत्ता
थांगा आमचो माम पावंता
राष्ट्रवादी संस्थोय ताका
सर्वय लागतात एकच लेकान
साम्यवादीक तो एक वांगडी
मार्क्सवादीक प्रथम वांगडी

तीव्रवादीक मुखार राबता
सौम्यवादीक गुडी धरता
व्हड तो शिष्यु महात्माचो
व्हड तो शत्रु असुरांचो
बुद्ध धर्माक अनुगामी
जैन धर्माक अग्रगामी
क्रिस्तुधर्मूय ताका जिरता
गुरु देवाक शिष्यु उरता
सर्वय धर्म एकच लेखता
जनांगेले सुखाक राबता
दुःख आयल्यार मुखार आसता
संस्कृतायेक हाथ दीता
असलो मनीश खंय मेळता
देवु ताका दुड्डु दीता!

# 42. मनीश एक मशीन

मनशान आतां मशीन केले;
काम ताजान ऊणे जालें!
ई-खाणः ई-जेवण
ई-पुस्तक; ई-वाचप
ई-बरप; ई-सीखप
ई-बैक; ई-व्यापार
ई-दुड्डु; ई-सरकार
ई-अंगाडी; ई-फायल
ई-परीक्ष; ई-न्हाण
ई-सोप; ई-वेप
खंय चोयल्यार मेळता 'ई';
खंय गेल्यार दिसता 'ई'
सोडलो सर्वान आपलो आकार!!
ई-निमितान 'छी' जालें!!!
काम जनांक अणे जालें
घरांत बैसून सीखूंक जाता;
मास्टर तेन्ना दुराक राबता!
बैंक आतां घराक येता
सर्वय सामान घरांत मेळता
घरांत बैसून काम चलता
सरकार आतां घराक येता
लेख पूराय मशीन करता
मातें तांचे सुखून वता
मनीश आतां मशीन जाता!

# 43. अमृतं - अमृतानन्दम्

अमृते, अमृतश्रिये,
अमृत कीर्ते,
अमृतांबिके, अमृतवर्षे,
अमृतानन्दमयी
अमलभारत वासिनी,
अमृत स्पन्दनमापिनी
अमृतविद्यादायिनी,
अतुल रोग विमोचिनी
अखिल लोक परायणी,
अखिल कर्म सुधारिणी
आपत्बान्धवरूपिणी,
अमृतकुटीर विभाविनी
अमृतनिधिस्वरूपिणी,
अमृतकृपापरिवर्धिनी
अमृतसेतु सुनंदिनी,
अतुलनन्दन दायिनी
अमर केरळ जन्मनी,
अखिल भारत वर्षिणी
अखिल लोक सुचारिणी,
अमृत प्रेम स्वरूपिणी
अखिल दुःखविनाशिनी,
चिकलांत सुन तूं कमल जाली;

दुःखां जनांक दुराक केलीं!
रोगांत तांकां मोचन दीलें
मूर्खांक तांकां विद्यादीली!
भूंयचेर प्रेम वाडयत उरली
घरां साबार तूवें बांधलीं
साबार जनां तांत राबलीं
जगांत पूराय तूं चल्ली!
पूर्व-पश्चिम भरनु उरली
क्षामांतसून तूं क्षेमांत हाडता
दुःखांत आंसल्यार सूख दीता
अस्वस्थ जनांक स्वस्थ करता
आश्वास पूराय लोकाक दीता
तूजे पायीं तीं पडतात
तांकां तूं मू पोटोवन धरता;
दुःख सर्वय दूराक सरता;
आनी तांकां आनन्द मेळता;
'अमृतानन्दमयी देवी' जाता!
ब्रह्मस्थानां देवूळ बांधलीं;
जनांक मनांत भक्ति वाडली!
तांचे मनाक आश्वास मेळूंक
याग-यज्ञ करीत उरली!
"लोकाः समस्ताः सुखिनो भवन्तु"
- असो धर्म आपण धरली!
अमृत चरिते,

5654

अमृतानन्द प्रदायिनी,
अमृतलोक विराजिते,
विद्यापीठां तूवें बांधलीं!
विद्यावंतांक रूप दीलें
कलावंतांक स्थाय दीलो!
धर्मकीर्ती तूं मू जाली
विद्यावंतांक मान दीलो
'अमृतकीर्ती' तांकां केलीं
सर्वय जनां एकच लेखान,
तूका तेन्ना आश्रय पावलीं!
नांव तूजें पूराय जगांत;
कीर्ति तुजी पुराय दिकार!
कर्म तूजें सर्वय राज्यांत;
धर्म तूजो जनांक सेवा
विद्या दीता अमृत दीता
रोगी जनांक 'अम्मा' जाता
वाट तांची सम्म करता
स्वस्थ जीवन साध्य जाता
तूजे मनांत असो विश्वासः-
"वसुधैव कुटुम्बकम"
जनांक मनांत असो आश्वासः-
"अम्मा आमकां राखत आसता"
अम्माक नमन, शिष्यांक नमन;
स्वस्थ जगाक म्हजें नमन!


5654
P. Km
Konkani Language & Cultural Foundation (R) * Mangaluru



**आनन्दन एन.एन.**

"भाशेक व्यापक प्रदेशांत चलौचे खातीर साहित्याकारांनी यज्ञ-भावनेन प्रयत्न करचो आसा. आनन्दान ह्या विषयांत चिंतन केल्यां आनी ताजे फल ह्या कवनांत दिष्टी पडता."

**- पी.जी.कामत**

कोंकणी, गोंय, केरळ, कविता, भारत, नामनेचे भारतीय, स्वामी विवेकानन्द, विश्वकवी टागूर, महात्मजी, विख्यात गणित शास्त्रज्ञ दामोदर धर्मानंद कोसंबी आदी म्हान पुरुश, भास, साहित्य, संस्कृती अश्या वेगवेगळीं विषयां घेवन ब-यों काव्यां हांतु आसपावल्याय. काव्यालंकार, वृत्त, छंद अश्या भाशा शास्त्र संबदिच्या कार्यांत प्रविणताय आसून आनन्दान आपणाल्या काव्यांक फावोशीं चंदाय घाल्या. हाका लागून हो काव्य संग्रह कोंकणी काव्य साहित्यांत अपरूपताय हाडता.

**- आर.एस.भास्कर**

पी.जी. कामत फौंडेशन
एरणाकुळम - केरळ
₹ 110
www.pgkamathfoundation.com